# श्रावण

(कवी संमेलन - २०००)



इन्स्टिटयूट मिनेझिस् ब्रागांझा
पणजी

# श्रावण

## (कवी संमेलन - २०००)

---

इन्स्टिटयूट मिनेझिस ब्रागांझा संस्थेचे उपाध्यक्ष भौ. चंद्रकांत केणी हांणी म्हजे सयत भौ. कवी नागेश करमली, भौ. कवी प्रकाश पाडगांवकार, भौ. कवी सुदेश लोटलीकार आनी कन्नड लेखक श्री. अरविंद याळगी हांचेर भारताच्या त्रेपन्नाव्या स्वातंत्र्य-दिसा निमतान गोंयच्या कवींचें भौभाशीक कवी संमेलन घडोवन हाडपाचो आटाप सोंपयलो. ह्या मंडळान आमंत्रीत कवींचीं नांवां थारायलीं; ते प्रमाण आमंत्रणां धाडलीं. चड करून सगळ्यांनीच उत्स्फूर्त प्रतिसाद दिलो. जांच्यो कविता आमकां वेळार पावल्यो, तांच्यो कविता हांगा छापून येतात. जांच्यो कविता छापून येवंक नात, तांच्यो कविता आमकां वेळार मेळूंक नात म्हण वायट दिसता. कोंकणी, मराठी हिंदी आनी इंग्लीश अशा भाशा-भावणांचो काव्य फुलवर स्वातंत्र्यदेवतेच्या पांयांर ओंपतात.

काव्य संमेलनाचो हो आटाप घडोवन हाडपाची संद दिल्ले खातीर आमी इन्स्टिटयूट मिनेझिस ब्रागांझाचे उपकारी आसात.

पणजी, **रमेश भगवंत वेळुस्कार**

ता. ११ ऑगस्ट, २००० **आनी सांगाती**



वसुधैव कुटुंबकम्

**श्रावण**

(कवी संमेलन - २०००)

**आयोजक** : इन्स्टिट्यूट मिनेझिस् ब्रागांझा, पणजी

**मुद्रक** : ओमेगा एन्टरप्राइझेस्, विद्यानगर, मडगांव

**प्रकाशक** : एम्. व्ही. नाईक, सदस्य सचिव, इन्स्टिट्यूट मिनेझिस् ब्रागांझा, पणजी

## मुळयो

मुळया दोळ्यांत जोगलां
झेली जटांनी मळबां
मुळयो अभोगाचो भोगी
मुळयो संवसाराची मुळी

विजां घालून रे गरे
अशे झडपले वारे
थांग अथांगाचे देगे
फुल्ले अरुपाचे कळे

थांग अथांगाचो घेतां
मुळयो निरंगाचो कळो
दिकां पेटिल्ल्या दिवट्यांनी
मुळयो दिगंबर उबो !

**- पांडुरंग भांगी**

## सांज बुडिल्ले वेळे

हे सांज बुडिल्ले वेळे
सप्नांची चडली आंगी
निळसार जांभळे देगे
काळखाच्यो पेटल्यो चुडी

स्वासांचीं फुल्लीं झाडां
पावलांर रुजलीं रानां
हातांर फोडिल्ले वारे
हांबेत आयलीं ल्हारां

हे चंवरून आयले वारे
खर कशी रे हाडूं?
बुडून मारतना बूडी
देगच लागली धोलूं

अशीं अद्रुस्टाचीं मालीं
रगतांत लागलीं खेळूं
हे अळार पिकिल्ले वेळे
प्राणच लागलो मातूं ...

**- पांडुरंग भांगी**

## कोणाच्या तरी मोगाखातीर

कोणाच्या तरी मोगाखातीर
एक मोगागीत रचपाक बसलां...

हो मोग फुलांनी सांसपिला
पाचव्या पानांनी भरसला
रान-रान वन-वन पोसवला
आनी झिलींत—
कृष्ण सावळो दपून रावला
— कोणाच्या तरी मोगाखातीर
एक मोगागीत रचपाक बसलां

गीतांत पयल्याच उतराखातीर
काळीज गोकुळ जागें जालां
राधा!
राधाच ती—
कृष्णाचे सोदीक भायर सरिल्लेवरी...
हांवय तिकाच पळोवंक लागलां
सगळ्याकच अकस्मात
माणें लागलां....
कोण पिशांतूर
हय उतरांनी सांडला...
कोणाच्या तरी मोगाखातीर
एक मोगागीत रचपाक बसलां

मोगागीत
रचपाक बसलां
वेळ-काळ विसरून गेलां
म्हज्यांत हांव घुंवळून पडलां
धुंद धुंदावळींतच
अजाप घडून गेलां....

कृष्ण एके वटेना
राधा दुसरे वटेना
तरी तांच्या पायसोरान
कृष्ण राधेचें चान्नें जालां
चान्यांत हांव
चिप्प भिजून गेलां

आनी...
कळत नकळत
हांव म्हज्याच मोगाखातीर
मोगागीत बरोवंक बसलां

- **नागेश करमली**

## म्हजे फुलपाचे दीस

म्हजे फुलपाचे दीस
कळटा नकळटणाच फुलत गेले
शेतां भाटां कुळागरां
कड्डाच्या ल्हारांचेर धोलत गेले

म्हजे फुलपाचे दीस
बंद कुडींच्या काळखांतरा जियेले
दर्याचो गाज आयकत
उचंबळ ल्हारांचेर ते स्वार जाले

म्हजे फुलपाचे दीस
रानां-वनां दोंगर घळी सोदीत रावले
वझऱ्यावरी झुळझुळत
काळीज काळीज केळयत गेले

म्हजे फुलपाचे दीस
गिमाळ्यांत वोताभार गीम जाले
शिंयाळ्यांत शिरशिरत
दवाच्या थेंब्यांतले मोतयां जाले

म्हजे फुलपाचे दीस
दुखाचे दाग पुशितय हांसत रावले
पयस पयसुल्या कुकाऱ्यांक
जाप दीत धाय दिकांपार गेले

म्हजे फुलपाचे दीस
कोणे माड्डिले तर कोणे चिड्डिले
चेपणांतल्यानय हुंकारून
जेन्ना जाय तेन्ना म्हजेच जाले

म्हजे फुलपाचे दीस
आजय पर्जळून पर्मळून फुलत आसात
जीण सांजधडेर उबी
तरी फांत्या सूर्यदेवा होरायत आसात

म्हजे फुलपाचे दीस
जाय जाल्यार कोणूय येवन पुंजावन व्हरात
सांगातान फुलून फुलतना
निर्मितल्या जैताचें फकत गीत गायात

- नागेश करमली

# म्हूर्त

पावस आयलो
आनी सृश्ट जाली व्हंकल

पाचवो न्हेसली शालू
पोलको घालो पोपटी
पाचवोच भरलो चुडो
आनी पाचवी माळ्ळी फाती

पावस आयलो
आनी सृश्ट जाली पाचवी

दोगांय सजलीं
दोगांय रमलीं
दोगांय सोबलीं
* * * * * *
हांव आयलां
तूं पाचवें जायना कित्याक?
सृश्ट खंयच अडली ना
तुकाच म्हूर्त कित्याक?

**- उदय भेंब्रे**

## जागरण

कुपांकडल्यान निरोप धाडूं?
कालीदास न्हय हांव...
तरी लेगीत
धाडस करीन आसलों
पूण-
आंगणांत वचूं कसो
चंद्रीम चोर चाळयता...
एकसुरेच दशेक म्हजे
बोट दाखोवन हिणसायता

मळब भरलां मोगान आनी
जाला पोर पळय पिसो
नक्षत्रांकडेन किरायता
गोकुळांतलो कृष्ण कसो!

अर्द रात सोंपल्या...
मळबांत मात
शृंगार आतांच रंगला
आनी-
रित्या रित्या घरा दारांत
हुमरार बसून एकसुरोच
जीव म्हजो विटला

अर्द रात उलगल्या
अजून येना न्हीद
तूं ना -
आनी त्रास दिता जळार
केन्ना बाये सोंपत तुजें
'दोन दिसां' चें कुळार?

- उदय भेंब्रे

## काळोख आनी उजवाड

उजवाडाचीं किरणां येवन पडटात
सगळे वटेनच्यान
आनी अस्तित्वच जाता तासातासांचें
तनामनांतल्यान परावर्तून
वज्र किरणांचो शिंवर

मनशाली धडपड फकत
काळोख ना करपाची
काळोख : भोंवतणचो
काळोख : भितरलो

संत महंत वावुरले
जिणेतलो काळोख विरगळावपाक
जो फकत
उजवाडाक भियेता

काळोख जावं भितरलो वा भायलो
अजापी घटक
रावता वेटाळून पुण वेटाळना
पारदर्शक जाल्यारय
अस्तित्व नाशिल्लोसो

तोच काळोख आता
उक्तो जावन विस्तारायता
लखलखून पर्जळपी
अमर्याद उजवाडाची गुपितां
सुटावी करीत

ह्या काळखाचेर आतां
जावंक लागल्या प्रक्रिया
मुदार जावन ताचें अस्तित्व
चडून रसायण चैतन्य शक्तीचें

जाच्या प्रभावावरवीं
खिणांत काळोख वितळून
उत्सर्जीत जाता
उजवाड तासातासांचो प्रज्ञावंत

परावर्तीत करीत शिंवर
वज्र-किरणांचो
ती पडटात थंय फुलयत
फुलां वज्र तासांचीं

- **प्रकाश पाडगांवकार**

## कृष्णब्रह्म

फूल कसो जीव मुक्त सुखान ल्हवपिक
कृष्णब्रह्म आयज भितर करता लिकलिक

प्राण दिवो तेजाळून उज्वाड रांगोळी
पावस पडून आशिर्वादा रूजवण जळींमळीं

हुबता बावटो लीनतेचो ना कोणा नसाय
स्पर्श जावन ईश्वराचो मन वेंगयत उंचाय

दिव्य ध्यासा वाटेवेली लडाय गेली सोपून
एकेक दार सताड उक्तें घुमयत मंजूळ धून

कृष्णब्रह्म आयज भितर करता लिकलिक
साकारून सर्ग कृतार्था येतलें नवें पीक

**- प्रकाश पाडगांवकार**

## रूख

रूख ऋतूंक फळयता
रूख वावाक खेळयता
रूख भिऱ्यांक केळयता
आंगा खांदार

रुखाक मळबाचो गांव
रुखाक अथांगाचो ठाव
रुखाक लागता सरांव
अद्रुस्टाचो

रूख पर्मळाचें खीण
रूख जोगलाची जीण
रूख भोगता सपन
जागृतायेचें

**- माधव बोरकार**

## पेणीं

तुजें शांत शितळ मूख
मनांत म्हज्या उदेता
तुज्या पावलांचो शेजार
जिणेंत म्हज्या वसता

हो स्वासां उस्वासांचो खेळ
तुजे सासायेची कुरू
उसळ्ळें मोडा ल्हारांर
झेल्लें तुवें म्हजें तारू

कृपेची सावळी तुजी
उरू म्हज्या दुखार
लक्ष जल्मांचीं पेणीं
तुजे पालखे मुखार

**- माधव बोरकार**

  

## हे स्वतंत्रकाये

हे स्वतंत्रकाये...
तू हे भूंयची आदिमकाळाची अस्मिताय
हांगाच हजार वर्सांची परंपरा जगून
पुराय संवसाराक वेंगेंत धरिल्ले
तूं हे धरतरेचें आख्खें काळीज
हे भूंयच्या कणाकणार
आनी रूखाच्या पानापानार
तुज्या श्वासाचें गर्भितार्थ
तुवेन पेरून दवरिल्ले
कितलेशेच अवशेष आयज
जळां-मळां शिपडून पडिल्ले दिसतात
मोहेंजो दारो, हडप्पाच्या
अंतरंगांतल्यान व्हांवपी
तुज्या अविष्काराचे
सुवाळे पळयल्यार
तुवें तुज्या आदिम पुतांक
सुर्याचें दुदूच दिल्ल्याचें सामकें दिसता
मागीर तूं आयज अबरवशी कित्याक?
खैबरखिंडीसून आयिल्ल्या
आर्य नावाच्या
नागड्या राखण्यानी
गुरवारनी सीतेक रानात
धांवडायल्लेभशेन
तुका हांगासून नगीन नागडी करून
धांवडायली हे भूंयचे भायर
आनी तेच उपरे पूत जाले तुजे
म्होवरी घालून मातृभक्तीची
तुजे पुराय अस्मितायेचेर
तांणी पेरली आपणाली गुलामी
संस्कृती..
देव आनी चार्तुवर्ण्य,
चमत्कार आनी दुर्बलता

हिंसा आनी क्रौर्य
तेन्नासावन तुजे [illegible]
खंयच नाशिल्ले
तांणी आपणालें रगत आटोवन
तुजे सोबीत पुराय कायेर
भरजरी वस्त्रां न्हेसयल्लीं
तांकांच ह्या उपऱ्या राखण्यांनी
रानावनात धांवडून लायले
कांयजाणांक गांवाभायर दवरून
अस्पृश थारायले
बायलांक घराच्या कोनश्याक बसयलीं
आनी तांच्या मनाचेर
पराधीन, अगतिक, अंधश्रद्धाळू पुरूषप्रधान
ग्रंथांची पारायणां थापलीं
पांयांत अपराधीपणाचें साखळदंड
अडकावन
आपूण जेत्याचे मुकूट तकलेर घालून
तेच बसले राजसिंहासनाचेर
आनी तुका माय
केन्नाच सूर्याचे किरण लेगीत
पावचे नात
अशे काळोखकिट्ट कुडीच्या
बंदखणांत दवरली
त्या पिश्यांक खबरूय ना
स्वतंत्रकाय केन्ना बंदखणांत
रावंक शकना म्हूण
ती कोणाचे मुठींतूय रावना
ती आंगांता जिरोवपाक
काळजां चिरचीं पडटात
हें तांकां खबरूच ना
ती ह्या पूण्यभू वयल्यान
आयज संवसारभर पातळ्ळी
तें ह्या राखण्यांक कशें कळटलें?
अडाणपणा होच हांचो स्थायीभाव
ते उपरांनटो
तुजे हे जगलावनीवरवी नवें रूप
म्हाका बुद्ध-आंबेडकराकडल्यानूच कळ्ळें



तुजो आघात आंगार झेलपाक
छाती वज्रासारखी
आसपाक जाय
ती ह्या कर्मठ, धर्मकोल्ली
मनश्याकडेन खंयची...?
भंकस खोटे धर्मग्रंथ
सामान्य मनशाचे तकलेर लादून
तांच्या मनातसून तुकाच उतरोवपी
ह्या उपायांनी
सहिष्णुतेच्या नांवाचे म्होवरे घालून
आयज परतून एकदा
देवांची, धर्माची, देवळांची
चाळेगत उखलून घातल्या
हे भूंयचेर
कोणाच्यो मशिदी, चर्च
ते आयज पाडीत आसात
स्टेन्स आनी ताच्या सानुल्या
भुरग्याक जिते जाळीत
हे सामके मेकळे सुटल्यात
दुर्योधन दुःशासनासारखे
आयज तुजे निजाचे पूत
रानात वनात गांवाभायर
आनी म्होवरी घातिल्ल्यांनी

जण एकट्या मनाचेर गरयो
लायल्यात धर्मकोल्ली
हे स्वतंत्रकाये
तुज्याच न्हेसणाक
घातिल्ले हे हात
हांव तोडूंक करतां
तुजी लज राखूंक करतां
म्हाका बळगें दी
त्या अडाण्यांच्या मनामनात
निबरासारखो रिगपाखातीर
म्हाका सूर्यशक्ती दी
तुजेच कुशीक चिरनिद्रा घेवपाची
एक म्हाका संद दी
एक म्हाका संद दी

**- दादू मान्द्रेकर**

## अष्टविनायक

हे अष्ट विनायका
करतां नमन तुका
तुजोच आशिर्वाद
जाय रे म्हाका

पालीचो तूं बाळलेश्वर
महाडचो वरदविनायक
भीमा न्हयचेर वसला
जावन सिद्धिविनायक

खारा न्हयचेर
तूं रे मोरेश्वर
चिंतामणी नांव तुजें
मुळामुठा न्हंयचेर

रंजन गांवचो तूं रे
महागणपती
आझार गांवांत
विघ्नेश्वर मूर्ती

**- भिकाजी घाणेकार**

## गीत

सपनांचे जिणेत म्हज्या
वझऱ्याचें गायतां गीत
मनाच्या मळबांत गो
ल्हारार ल्हार कवीत.

पाचवीचार धर्तरी नटल्या आज
कुपांचो रंगीबेरंगी साज
पावसाच्या धुंदींत म्हज्या
आकुळ पिकुळ दिष्टाव्याचें राज
आगळी वेगळी अशी हि रीत.

नदरेक नदर लावन फुल्ला चंवर
चंवराच्या कणा कणकणी भोंवर
एकांताचे राती वेळार तुजें म्हजें
मन रंगलां काळजा भितर
दोन मनांचें मिलन ओंपीत

**- भिकाजी घाणेकार**

# घे पालवांत

कुडींत व्हंडाळूं कितलोय काळोख कुन्नाटो;
उजवाड मनांतल्यान किल्लतलोच.

निस्तूं रात कुळकुळीत काळी उमाशेची;
महाकाय सुर्या आपली वेगळी वाट रेखतलोच

बुचकळून जावंदी कितलेंय खदूळ आत्म्याचें नितळ उदक
तें निवळून... जिणे-मोडणां घेत येतलें दोळ्यांतल्यान दिगंतून

दिसूं नदरेक सगळें पडींग, मांडूं गांवार मसणसया,
पिकेवयल्या शेतावरी तूं घरांत राव घमघमून.

आकांताचें मोड जावन सगळें जग कलकलूं
तूं धिराची पण्टी अखंड पेटत दवर काळजांत.

गचारतनां दिसलोच जर काळोख उजवाडाचे आड;
तूं अख्खी सकाळ जावनूच उजवाडाक घे पालवांत

**- परेश नरेंद्र कामत**

# अदिकय

घेतना कुशींत अळंग जीण अर्भकावरी
सासणाची वार म्हजी कापलेली
तुज्या कुसव्याची पुणून थार काळजांत
अजून तेंवेता म्हज्या ओलशी ओली...

तुवें हालयल्लें पाळणें जागें
तुवें चिंवयल्ले हालतात ओंठ
फाटभर भोंविल्लो हात तुगेलो
...आतां वाटभर फक्कत ताचोच सांगात.

दोन मेकळे हात तुवेंच दिल्ले हे - काळीज - कंवळे...
दिगंतायेदें मनभर वेंगिल्लें उधाण
दोळ्यांत हें रुजलें उदक खंयच्यान
न्हिवता जाणें धगधगत्या आत्म्याची तान

जीण कुशींतली कळवळ्यान सासपितना
दोळे : सान भुरगें कशे; हिमट्यांनी रडकुळटात
मनांतलीं म्हज्या शेणिल्लीं भुरगीं - पावलां
कुसव्यांत तुज्या अदिकच मुंगरतात

**- परेश नरेंद्र कामत**

## सलामी

लाख लाख प्रणाम तुमकां लाख लाख प्रणाम
देसाखातीर प्राण ओपले ते वीर अनाम
लाख लाख प्रणाम.

आमचेवरी तुमीय आसलीं सपना रंगयल्लीं
मात-पित्यान, भुरग्यां-बाळान काळजां गुंतयल्लीं
कुशीन सारून मोयपास, वीरश्रीन भारून गात्र
देसाच्या रक्षणाक जीण ओंपयली
लाख-लाख प्रणाम...

तुवें आंगार जेन्ना घेतले घाय
तुज्या बाबुल्याचीं बोबडीं उतरां
तुका याद जालीं काय?
मातयेक कूड मेळटना
बायले यादीन काळजाचें
रगत अशें गोठलें काय?
माये मनशांक पयस सोडून
काळाचेर जैत जोडून
देसाच्या रक्षणाक जीण ओंपयली
लाख-लाख प्रणाम...

आमचींच जंय रडलीं काळजां
आसत तुज्या बापायक कितें भोगलें

बायल-भुरगीं आकांततात
आसत आवय काळीज सांडलें
काळीज अशें थरथरलें
आयकून तुमची वीरगाथा
तुमकां अश्रूंची सलामी
मायभुंये वीरपूता.

**- नयना आडारकार**

## पावस

ताचे वाटेक दोळे लावन
ती भर गिमांत हुलपता
आनी तिच्या आंगापांगार
रसरसून पेट्टा तांबडोच गुलमोहर
मागीर तो येता
खर्जान गर्जत,
धपकायत - दिपकायत
तिका अळंग विरगळायता
आपल्यांत आनी
तिच्या रतिगंधान पिसावल्लेवरी
तो न्हंय - वझऱ्यांतल्यान
धांवत सुट्टा.

**- नयना आडारकार**

## मामागेली बैलांगाडी

म्हजे मामागेली बैलांगाडी
झेतान चल्ली म्हाळू बाळू जोडी

तांच्या गळ्यांत घांट
गांवा जाजयता वाट
पांडवांले मागा
रान घनदाट
जाजा हऽऽयो बाळू
जाजा हऽऽयो म्हाळू
गाडी चल्ली चांदरवाडी
म्हजे मामागेली बैलांगाडी ... ।।१।।

म्हजे मामागेर
शेतां पिकांचो वास
खळार भाताची रास
दाळीले गाडीयेत
साकांर साक
जाजा हऽऽ यो बाळू
जाजा हऽऽयो म्हाळू
गाडी पुंजायता पुराय शेतोडी
म्हजे मामागेली बैलांगाडी ... ।।२।।

म्हजे मामागेली
आसा सर्त अमुक
मामा चाळीता हुक
उबारता नथें
वाजे पिल्लूक
जा जा हऽऽयो बाळू
जा जा हऽऽ म्हाळू
गाडी किरांयत इनामा हाडी
म्हजे मामागेली बैलांगाडी... ।।३।।

म्हजे मामागेली
सांजे वेळेचो पार
मामा घेईना थार
हाडी सादयत
पोरां बाळां साबार
जाजा हऽऽयो बाळू
जा जा हऽऽयो म्हाळू
गाडी चाले पासये पलतडी
म्हजे मामागेली बैलांगाडी...।।४।।

- पोब्र फेर्नान्डीस

# दुड्डू

हें राजच जालां दुडवांचें
दुड्डू
मनश्याक पिशें लावपी
एक वेसन कोड्डू

हो दुड्डू
खंय आनी कसो वापरचो
हो निर्णय दुडवांकारालो

दुड्डू रकयल्यार
दुड्डू मेळटा
नाय जाल्यार
दुड्डू पळटा

दुडवांक केन्ना
मदय मारता
आनी केन्ना
रोग येवन मद जिरता

दुड्डू आसता दोन तरांचो
एक बोल्स भरपाचो
आनी दुसरो
बोल्स चिरपाचो

बोल्स फुगोवपी दुड्डू
हो आडपायलेचो
पूण
बोल्स चिरपी दुड्डू
हो पोश्याचो

आडपायलेचो दुड्डू
हो गिरेस्त दुडवांकारालो
पूण
पोश्याचो दुड्डू
हो गरीब भिकाऱ्यालो

असो हो दुड्डू
तरा तरांचो
सगलो दुडवांकारालो
हो दुड्डू
खंय आनी कसो वापरचो
होवय निर्णय दुडवांकारालो

**- पोब्र फेर्नान्डीस**

## मटण शॉप

मार्केटांतली गर्दी चिरीत
हांव नीऽऽट्ट
मटण - शॉपार पावतां
...थंय,
तीन चार कॉकांक
हुमकळायिल्ल्यो आसतात
बोकड्यांच्यो सोलिल्ल्यो कुडी.
एकलो मनीस
रगत रंगीत घालून खोमीस
लाकडाच्या कुडक्याचेर
मांस चांचावपांत सामको गूल्ल...
...तेन्नाच म्हजी नदर वता
टेबलाच्या एका पोंतार
कापून दवरिल्ले
बोकडेचे तकलेचेर
तिचे सताड उक्ते आशिल्ले दोळे
म्हाका तिडकीन पळयतात.

मदींच त्या दोळ्यांत रिगिल्लो
गुप्प काळोख दिश्टी पडटा...
आनी दिश्टी पडटात
तिच्या दोळ्यांच्या कडांनीं
अर्धारच सुकिल्लीं दुकां,
...किळांच मारचे आदींच
दांतांमदीं चिड्डल्लें जिबेचें पोंतय
हय न्हयशें नदरेक पडटा.
गिरायकांक एकटक
पळयत रावपी ती तकली पळोवन
हांव म्हजी तकली सांसपितां
तिवूय लूण जाल्ली आसत
ह्या भंयान!
मदींच तो मनीस
गुबगुबीत काळजाचेर
सुरयेचो घाय घालता
आनी...
आवाज करीनासतना
काळजाचे दोन कुडके
अळंग दोशींवटेन पडटात!

तेन्ना...
म्हज्या हड्ड्यांतले खोलायेंतल्यान
एक घुसमट्टो स्वास भायर सरता
ते तकलेक तेंकूनच
पडिल्ले आसतात चार पांच
...टिकीक् टिकीक् करून
उडक्यो मारपी ते पांय
मोन्यांनी पडिल्ले पळोवन
हांव ल्हवूच गर्देतल्यान कडसरतां
...आनी मटण घेनासतनाच
घरची वाट धरतां
पूण...
बोकडेची तकली मात
म्हजे तकलेंत
घर करून रावता सासणाची!
...अजूनय
घरांत मटण शिजता
पूण,
मटणाचे दरेके फोडींत म्हाका
ती तकली दिसपाक लागता

**- राजय र. पवार**

## कम्प्युटरा! एक उपकार कर

हालींच म्हज्या शेजाऱ्यागेर
मल्टी-मिडिया कम्प्यूटर हाडला
तो, बायल आनी तांगेलो चलो
कम्प्यूटर लिटरेट जाल्यांत
आतां शिकिल्ले शेजारीय
तांचेखातीर इल्लिटरेट कशे!

कम्प्यूटर विंडोज
उक्तीं जायत सावन
ताणें शेजाऱ्यांवटेनच्यो विंडोज
सामक्योच बंद केल्यात
शेजारचीं भुरगीं
सांजवेळचीं कुटुन्यांनी खेळटात
तेन्ना तांगेलो चलो
कम्प्यूटरावेल्यो गेमी खेळटा
एकलो एकसुरोच... पिसो कसो!
आवयकडल्यान काणी आयकले शिवाय
न्हिदनाशिल्लो पोर आतां
कम्प्यूटरावेल्यो गेमी खेळटा खेळटांच
झेमूंक लागता... मागीर
डायरेक्ट गादी
आवयची मांडी ना मदीं!

 

आदीं घोव - बायल दोगांय
तिनसानचीं व्हॉल्तेरांत बसतालीं
ऑफिसांतली, प्रवासांतली
दरेक गजाल शॅर करतालीं
भितरली तशी भायली
आतां... दोगांयच्योय दोन फायली!
दोनूय फायलींक पासवर्डूय वेगळे वेगळे
कोणाली खबर कोणाक ना

तोवूय आतां शेजाऱ्यांकडेन
व्हडलोसो उलयना
दुसऱ्यांची वळख करून घेना
आनी आपलीय करून दिना
ताची वळख आतां
ताच्या बायोडेटासकट
वेबसायटिचेर मेळटा
डब्ल्यू डब्ल्यू डब्ल्यू डॉट...

कॉलनींतलो एक शेजारी
कम्प्यूटराक लागून पयस गेला
मनाचे फ्लॉपीचेर ताणें
व्हडलें 'ग' कॉपी केलां!
जिणेक ताचे वायरस जावन
'हार्ट डिस्क' करप्ट जाल्या!

कम्प्यूटरा! तूं योच
पूण इतलें मात करूं नाका
भुरग्यांलें भुरगेपण गिळूं नाका
काणयेंतल्या कोल्याक मारूं नाका
शेजाऱ्यांच्या सांगातांत, फुलूं दी वाठार
घोव-बायलेक बसय गजालीच्या पाटार
शेजाऱ्यागेरच्या कम्प्यूटरा!
नात्यांच्यो गांठी सोडोवं नाका
मनशांमदीं दुराय वाडोवं नाका
आतां एकच उपकार कर
जें जें तुवें केलां इरेज
तितलेंय परतून फीड कर

**- राजय र. पवार**

## अशें कित्याक

आई, म्हाका सांग, अशें कित्याक?
भाईन च्या पिवप
हांवें कोपां धुवप
अशें कित्याक?

भाईन पीठ हाडप
हांवें रोटयो लाटप
अशें कित्याक?

तांणी मेजार बसल्यार
भाईन भाशण करप
आनी हांवेंच फुलां दिवप
अशें कित्याक?

शिकपाक तो फाटीं
हांव फुडें
आनी हेर कामांक मात
ताका काडटा फुडें
हांव फाटीं
अशें कित्याक?

एकविसाव्या शेंकड्यांत
कम्प्युटराच्या युगाच्यो
गजाली सांगतना
आई, अजुनूय
तुजेकडल्यान हो
भेदभाव कित्याक?

- **नूतन साखरदांडे**

  

# काजुल्याचें झाड

जोगलांचो नाच चल्ला
पयस दोंगुल्ल्या आड
पानापानानी थरथरता
म्हजें काजुल्याचें झाड

मळबाच्यो देगो सोदी
धर्तरेचे उमाळे
मध्यान राती फुलून आयले
उजवाडाचे कळेच कळे

वारें आतां वादळ जालां
झाडा जिवा तळमळे
पानापानाक फुटले
हजारांनी दोळे

झाड जालां पिशें
जण एकल्याचें हांशें
मळब आंता लिपयता
चंद्रीमाचे लाशें

**- नूतन साखरदांडे**

# रात आयल्या भारा

रात आयल्या भारा
मध्यान्हेच्या पारा
पिसो कसो नाचूं नाका
म्हज्या मन मोरा

दर्याच्या ल्हारार
धोलता माड उबो
तुज्या ओल्या कपलार
तांबडो तांबडो तिबो

कुडींतल्या रगतांत
पेयता कृष्ण नाग
खोल राना घुमता
अवेळीचो दीप राग

वचूं नाका परती
दर्याक आयल्या भरती
दोगांय आमी मस्तूया
जिवितांतली माती

**- अरुण साखरदांडे**

  

## पुण

नांव आसा

पुण नांव येवजना

गांव आसा

पुण गांव वळखना

आवय आसा

पुण आवय गावना

भाव आसा

पुण भाव भेटना

घर आसा

पुण घरपण मेळना

इश्ट आसा

पुण इश्ट उलयना

वाट आसा

पुण वाट सांपडना

उदक आसा

पुण उदक व्हांवना

झाड आसा

पुण झाड फळना

जीव आसा

पुण जीव वचना

**- अरुण साखरदांडे**

## पावस

पावस मळबांतलो
पावस तुमचो आमचो
पावस कुळागरांतल्या माडयांचो
पावस दोंगरामाथ्यावेल्या रुखावळीचो
पावस तळयेंतलो
पावस खळयेंतलो
पावस न्हंयेंतलो
पावस दर्यांतलो
जंयसून आयला थंयच वचपाचो
पावस मळबांतलो
पावस धर्तरेचो
पावस खाजनांतल्या शेतांतलो
पावस कश्टतल्यांच्या घामाचो
पावस बैलाचे फाटीर पडटले शिट्टेचो
पावस ओथांब्यांचो
पावस आळवावेल्या मोतयांचो
पावस नवे व्हंकलेच्या कुळारचो
पावस सुंदरेच्या केंसावेल्यान शेणटलो
पावस म्हज्या तन-मनांतलो
पावस मळबांतलो

**- अशोक भोंसलो**

# रंगरूप केळोवन गेले

पानां फुलां परमळांत रंगरूप केळोवन गेले
गंध आंकऱ्यो धर्तरेच्या कणा-कणांत रूजोवन गेले

परते-परते कितले अही-मही जाले जिते रावले उबे
झुजले-झुजां माड पडले आड तरी रणां गाजोवन गेले

आयलीं मोडां गाजलीं मोडां दुस्मानाचे रंगले हात
भूंय पूत जागले तशे आले-कोले पळोवन गेले

आयल्यो जाती आयले धर्म आपल्या हातीं आपलो फोण
कोणा रगत काळें-निळें सगळ्यांचे तांबडेच व्हांवोवन गेले

नंदचे हांगा कळे-कळे फुलां-फळां म्हाेंव म्हाेंवाळ झरे
संस्कृताये बीज आमच्या मना-मनांत रिगोवन गेलें

**- अशोक भोंसलो**

## तांकां कोण सांबाळटा?

चका चुकू चका चुकू
बिजूल लकलकता
धर्तरेचो फोटो काड्डून
खंय लिपयता!

गुड्डू गुड्डू घडा गुड्डू
म्हातारी दळटा
पीठ कशें पावस भूंयेर
कसो रकयता!

तुरू तुरू तुरू तुरू
व्हडें धांवता
फोणकुलांत पडलें जाल्यार
मदींच बुडटा!
टपा टपा टुपू टुपू
पांवळी पोंगळटा
पावसांत खेळूंक वतकच
बा (माँ - आई) तापयता!

कुड्डू कुड्डू कडा कुड्डू
बुभू जाता
बा मागीर कोड्डू कोड्डू
वखू पिवयता!

बेबो मामा बेबू मावशी
गायता डरांव डरांव
हट्टी मस्ती किटूक मिटूक
तांकां कोण आडायता?
तांकां कोण सांबाळटा?

- **अशोक भोंसलो**

## म्हजी स्वतंत्रताय शेणल्या...

म्हजी स्वतंत्रताय शेणल्या गा सायबांनो
तिका सोदीत भोंवलों हांव कोनशा-कोनशांनी
तिका हांवें सोदली सगळ्या सुवातानी
घराच्या कुडींनी, वासऱ्यांनी, माळ्यांनी
फुडल्यान फाटल्यान आनी सगळ्या बाजुनी
माडांनी, पणसांनी, आंब्यांनी आनी काजूंनी
बॉल्सांत, मेजांत, पोत्यान, खोंटल्यांनी-पांटल्यांनी
पूण कशीच चडलीना गा सायबा ती म्हज्या हातांनी

अवचीत फाटल्या खाताणांत ती म्हाका सांपडली
कुसलेल्या भ्रश्टाचाराच्या खातोणांत घुसलेली
आतां कशी तिका उखलून वयर काडचेली?
कसलो चिमटो आनी दोवली वापरचेली?
एकूच वस्त नासली गा घाणींत पाड करचेली
देखुनूच ही जीण म्हजी जाल्या गा ओजेली

देखुनूच दिस्ता म्हाका सगळ्या वाटानी
कोणूय म्हाका तापयता, कोणूय म्हाका लोकयता
दिसा उजवाडांत आपले दोळे धांपून नागयता
फसय - फसय - फसय फसयता

म्हजें न्हेसून मिरयता, म्हजें जेवन जिरयता
म्हजीं शेतां भाटां वसयता, कसयता
भाटकार हांव! म्हाका भिकारी करून उडयता

म्हज्या कश्टांचें खावन रांडग्यागेलो
म्हज्या हड्डयाच्या आंगणांत रांडग्यागेलो
आपलो शिगमो साजयता, आपली सत्ता गाजयता
म्हज्या कोट्टयाचें धोलकें फुटसर वाजयता
कांसाळेच्या तालाचेर, खोशेच्या नादाचेर
म्हजीं कानसुलां वाजयता आनी सुजयता

आनी म्हजो राखणो धनी सायबा म्हज्या
एअर कंडिशण्ड बंगल्यांनी कोट्यानी
लुटीच्या कोंब्या शाकुती जिरयता

आनी कर्मा म्हज्या
म्हजी स्वतंत्रताय शेणल्या
ती भ्रश्टाचाराच्या खातोणांत शेणल्या
आनी, आमची अक्कल सोडून तिका
भ्रश्टाचाराच्या साका फट्यार
सुकूंक घातल्या

- **जेस फेर्नांदीस**

## आयज आमगेर नातालां

आयज देजेंब्राची पंचवीस तारीख न्हय
येसू क्रिस्ताचो जन्म दिसय न्हय
संवसार भर लोकांचो कसलोच उत्सव न्हय
तरूय आयज आमगेर नातालां

  

सोडवणेचें नेकेत्र आयज फांत्या पारार
आमगेल्या पाडसार उदेलां
कारण, आयज पंद्रा वर्सांच्या काळोखा
उपरान्त
आमगेर एक बाळक जल्मलां

देखुनूच सायबानो आयज आमगेर नातालां
अंत्राळ लेगीत उजवाडान भरून गेलां
ही खबर घेवन मनाक म्हज्या
मळबांत हांवें मोखून दिलां

**- जेस फेर्नांदीस**

## तूं यो...

म्हज्या राती जागयतल्या दोळ्याक
तूं एक सपन तरी जावन यो
आनी म्हज्या सगळ्या हुसक्यांक
न्हिदाय!

म्हज्या चिमटे सोंसतेल्या काळजांत
तूं एक याद तरी जावन यो
आनी म्हज्या जिवाचे हुस्के
धिलाय!

म्हजे तुफानांक सांपडिल्लऐ व्हडयेक
तूं एक वलो तरी जावन यो
आनी तिका सलामोतीन दुसरे देगेक
वलय!

**- जेस फेर्नांदीस**

## स्फूर्त माग

धाय दिकांनी पेटून उठलें
सुटके झुजाचें मालें
भारत माये राखणे खातीर
मरणा तिबे लावन झुजले.
माग भावा, माग
त्या त्यागांत स्फूर्त माग
जंय रगतांत न्हाली
जलियनवाला बाग-

शेतांतुल्या कणसा-कणसांनी
मशाली रे पेटल्यो
खंबिरांच्या नेतृत्वांत
सेना नेटान उठल्यो
माग भावा, माग
ते सोंसणिकेंत स्फूर्त माग
जंय झडून गेले
आयावांचे सुहाग-

फोडून काडपी नार ती
गोवालिया टांकी
फाटीर मारून दुदाबाळका
कोण झांशी राखी
कोण चन्नमा दुस्मानांचेर
शस्त्रां - अस्त्रां मोखी
माग भावा, माग
त्या रंगांत स्फूर्त माग
जंय नारी कुडींनी
पेटले दुर्गे राग -

इतिहासाच्या पानापानार
हुडके - उमाळे फुटले
देशप्रेमा बागेंतुले कळे कोणें खुटले
जाग भावा, जाग
त्या अस्तित्वा झुजाक जाग
जंय हुतात्म्यांच्या संवसाराचे
ओले दुकांचे दाग

**- पूर्णानंद च्यारी**

## गगन सुंदरी

अस्तुरी तूं सोबीत गगन सुंदरी
झनक झनक झलक तूं
निश्कळंक नार तूं
सर सर सर सरभोंवतण
तृप्त तृप्त धर्तरी

कुपां रथार स्वार तूं
घण घण घण कटर घण
सथर - विथर वाऱ्या आंगार
वीरभद्रा भार तूं
शिर शिर शिर शिरंधार
आकूळ पिकूळ तळ्या मळ्यांक
आमूरपिकी तर्तरी

रीम रीम झीम लय तुजी
रागिणी फुलार तूं
धार धार मधूर तार
चेतने सितार तूं
दडक दडक झंकुरी

पावल तुजें धुवांधारी
खुशालकाये डुंगरेवरी
धादोसकाये उग्तो हांसो
आयज हांसली धर्तरी
रुवां रुवां धुपा धुंवर
सुवासाचो धल्लो चंवर
माती व्हिली कस्तूरी

तूं अशी रसरशीत उर्वशी
रुतुराज्ञी सम्राज्ञी
सैमाची मोगिका
उमळशिके घालून घेती
मस्त पिती, सूप्त सुखां
अदृश्टांच्या गर्भाक जिवी-जिवी आंकुरी

कुरवो नव्यो सप्तरंगी
इंद्रधणू अंतरंगी
भार नवो सुलूस नवी
वट्ट सृश्ट नवी नवी
नकळटना रिगलीं जोगलां
कवनांच्या वना म्हज्या
रंगली धूंद बांसुरी

- **पूर्णानंद च्यारी**

## गोवा : बिम्बों के कोलाज में

सलीब पर टंगा हुआ
इब्न - ए - मरियम का दर्द...

नतसिर है कोई देवदासी
माँडवी की खोयी हुयी
लहरों के आस-पास ।

कहीं चर्च और मंदीर की
घण्टियों के बीच
सामूहिक प्रार्थना मे डुबा हुआ
माजोर्डा - मंगेशी गाँव...।

चमकती है कॅमरे की फ्लॅश
बिकनी पहने हुयी नारी देह के पास
टूटे हैं रंगीन काँच के प्याले
तडपती हैं मछलियाँ
पानी से विलग होकर ।

समूद्र के आईने में
बाँच रही है कोई गर्भवती स्त्री
अपने आगत - शिशु का भविष्य

- रोहिताश्व

## गर्भस्थ शिशु की तरह

कविताएँ
थपथपाती है जब
धरती की सतह को
गर्भस्थ शिशु की तरह ।

चुमती है वायु रोयें-रोयें को
गुनगुनाने लगती है नदी
अपने ही लहरों की धुनको
खोलती है चाँदनी
स्मृति की पोटली दर पोटली को ।

आँख पहचान
बनाने लगती है
अपने आसपास के परिवेश से

नजर लेती है टोह
आसपास की स्नेहिल छाया से ।

गर्भस्थ शिशु की तरह
कविताएँ
थपथपाती है जब
जमीन की सतह को
हुमसने लगती है
श्वेतों की फसल
दूर- दूर के खलिहानों मे ।

रिसने लगता है
पसीना
पाताल तोड
पानी की तरह
समूची मानवता की देह से ।

श्रणकणों से सिञ्चित धरती
हेरती है
अपने हरे-कच्च भविष्य को
पौ
फटनेवाली आँखो सें ।

**- रोहिताश्व**

## प्यार में प्यार नही

बडे सबेरे पत्नी पति से लड गई
तुमसे ब्याह कर तो मेरी किस्मत ही बिगड गई।
तुमसे अच्छे तो जानवर हैं।
जो हमेशा साथ-साथ रहते हैं।
एक दूसरे पर मरते हैं।
सुबह से शाम तक खूब प्यार करते हैं।
मगर तुमने कभी प्यार नहीं किया।
यह सुनते ही पति बिगड गया।
बेचारा दिल का मरीज था,
तैश में उखड गया।
जानवर क्या खाक अच्छे हैं।
सुबह को एक से, शाम को दूसरी से प्यार करते
हैं
मगर मै बीस बरस से,
बस तुमसे प्यार कर रहा हूँ।
यों कहो कि जिंदगी,
मर- मर के जी रहा हूँ।
मेरे जीवन में बिल्कुल बदलाव नहीं
तुम कहती हो, मेरे प्यार में प्यार नहीं

**- डॉ. उमेश कुमार सिंह**

# कल की पीडा

आने वाले कल की,
पीडा बडी विकराल होगी।
सुख के हर साधन होगे,
मगर पानी की लडाई होगी।।
आज जहाँ हरियाली है,
वहाँ धूल उडी होगी।
धरती की हरियाली उठ जायेगी,
गुलदस्तों में नकली हरियाली होगी।।
प्रकृति की भी सादगी मिट जायेगी,
इन्सानों से इन्सानियत उठ जायेगी।
बडे-बडे परमाणु युद्ध होंगे,
उनकी ज्वालाओं में जले होंगे।।
हम ही आने वाली नस्लो की,
खुद बरबादी के मुजरिम होंगे।
तब ये गुलशन आबाद नहीं,
जले और झुलसे होगे।।
अपनी इच्छाओं के चलते ही,
नस्लों के कदमो के निशांन मिटे होगे।।

- डॉ. उमेश कुमार सिंह

(कारगिलच्या स्वातंत्र्य-यज्ञांत जांणी आपली प्राणाहुती दिली, त्या मोगाळ जवानांक)

## ए जवानो...

ए जवानो लाल हो तुम लाल मेरे देशके
प्रतिक हो सम्मान के औ पथीक हो उन्मेश के
ए जवानो लाल हो...

सूक्त हो तुम मूक्तता के शक्ति हो तुम राष्ट्र की
है लिखी है खून से तुमने कहानी भक्ति की
अथक रक्षक तुम बने हो देश के सम्मान के
ए जवानो लाल हो तुम लाल मेरे देश के ।।

छोडकर घरबार सब तुम बन गए पहरा विलक्षण
जान देकर था किया था देश गौरव का सुरक्षण
बन बहादुर दूर किये थे काफिले सब दुश्मनों के
ए जवानो लाल हो तुम लाल मेरे देश के ।।

हैं हमारे नत हैं मस्तक, कर्तृत्व के हो तुम धनी
हिंद वासी कह रहे हैं, हैं सदा के तुम्हरे ऋणी
और आगे आ रहे हैं बन के साथी सरहद्दके
ए जवानो लाल हो तुम लाल मेरे देश के ।।

- **रमेश भगवंत वेळुस्कार**

## अधिष्ठान

स्थित्तीनं स्थितीला
आजमावतांना
बिंदूनंच विस्तारत जावं
इतकं... की,
व्यापून टाकावं
अवघं ब्रह्मांड!
अवाक् होऊन
पहात रहावं
स्थितीनं
स्वतःला मिळणारा
घोर दंड
आणि शोधावी
सुईच्या अग्राएवढी
तरी जागा
स्वतःला
अधिष्ठान देण्यासाठी!

**- सौ. लीना पेडणेकर**

## खंत

जन्मामागून जन्मांचे
लागेबांधे जुळत आहेत
एकामागून एक जीवाची
उत्पत्ती होतेच आहे
जन्म झाला आहे, वाढ होते आहे
कसेतरी रखडत जगून
अखेरीस मरायचे आहे
अंगातला साताजन्मांचा आळस
अंतरातली मळमळ, रक्तात
भिनलेला मदोन्मत्त गर्व

सारं वाढतच आहे
माणूस माणसाचाच घात घेत आहे
पोटच्या गोळ्याला नख लावताना
भाऊबंदांचे खून करताना
नाती-गोती तुडवताहेत
शिंदेशाही महालांचे
आलीशान इमल्यांचे
खानदानी घराण्यांचे
वासेच खाताहेत विकून
त्यांचे नातू, पणतू, पणत्या
वंशाचे दिवे! हवेत कशाला?
दिवे ओवाळायला?
खंडीभर पिल्लावळ हवी कशाला?
आपल्या पश्चातल्या नामवळीसाठी?
कुत्री काय कमी वीतात?
कुत्र्यामांजरांपेक्षा हीन वागताना
कांहीच वाटत नाही?
डोळ्यांवर झापडं घेऊन चालताना
मन खंतावतच रहातं
आमच्या जगण्याची किंमत काय?
आमच्या माणुसकीचा अर्थ काय?

**- सौ. लीना पेडणेकर**

# अनुनय

मी सूर्यपक्षी आहे
असे म्हणटे तर तुला पटले नाही
मी अग्नीशिखा आहे
असे म्हणटे तरी तुला पटले नाही
मी लाव्हा आहे असे म्हटले
तरीही तुला ते आवडले नाही
तू फक्त दाखवित राहिलीस
तुझा जगलेला साडेतीन टक्क्यांचा इतिहास
एका आभासमय बिंदूत फिरावे
तसे तुझे विश्व
तुझ्याच भोवती रुंजी घालणारे...
माझ्या बुलंद निळ्या डोळ्यात
हरक्षणी उठणारा उद्रेक
अनेक गोष्टींचा संदर्भ शोधू
पाहतोय

ते तुला जाणवलेच नाही
मानवतेचा जिता जागता इतिहास
जागवू पाहणारा मी एक प्राचीन
परंपरेचा दूत आहे
हेही तुला कळलेच नाही
तूं सुरंगीचा वळेसर माळून आलीस
त्यावेळी खरे तर झालेली आमची
पहिली नजरभेट

त्यानंतर मला अतीव आवडणाऱ्या
मोगरीची वेणी
मी तुला प्रदान केली खरी
आणी अग्नीप्रलय व्हावा तसा
तुझा अख्खा समाज माझ्यावर
डोंगर कोसळल्यासारखा तुटून पडला
त्याही स्थितीत मी तुझ्या
अंतरात्म्याला
शोधत होतो
न्याहाळत होतो करुण नेत्रांनी
ती करुणा बुद्धाकडूनच तर आलेली
पण तुला विटाळ व्हावा तसा
अव्हेरीत राहिलीस माझा अनुनय
आणि दाखवित राहिलीस
ललनांची अंतर्वस्त्रे चोरणाऱ्या
कृष्णाच्या त्या लीला
रामाने गरोदरपणात भर अरण्यात
सीतेचा केलेला त्याग
द्रौपदीची भरसभेत होणारी वस्त्रफेड
अनेक देवानीच स्त्रियांवर केलेल्या
बलात्काराच्या शौर्यकथा तर
तू कित्येक वेळा मला ऐकवल्यास
गप्प बसलो तर चिडवित राहिलीस
तुझ्या संस्कृतीवर बोललो तर
चिडत आणि धुमसत राहिलीस
आगीसारखी...
...आणि कधीतरी एकदा सांगून गेलीस
'मला बुद्धीप्रामाण्यवादी नकोच...
माझ्याच जातीतील हवा आहे म्हणून...!
तेव्हा वाटले...
तुझ्या लांबसडक, रेशमी केशसंभारावर
एक डेरेदार अग्नीफुलांची वेणी
मी अगोदरच माळावयास हवी होती!

**- दादू मांद्रेकर**

  

## चाफा

चाफा दर्वळे देहात
घट भरला स्नेहात
एक चांदवा विभोर
न्हातो आश्विनी मोहात

चाफा डवरे मायेत
लिंब कर्दळी छायेत
सुख तुषार ओघळे
गंध मोहर कायेत

चाफा भरारे दिगंती
आशा आकांक्षा रंगती
उभ्या जीवनाचा पट
ओला चाफ्याच्या संगती

**- नीलिमा आंगले**

## जन्मगाठ

माहेराची आठवण
चांदण्याची शिंपवण
कौतुकाची लिंपवण
दोन ग दिसांची

सासराची आठवण
चांदण्याची दुरावण
मनाची ती गुंफवण
दोन ग भांड्यांची

राहिली ग दूर
माहेराची वाट
आता जन्मगाठ
सासराची

**- नीलिमा आंगले**

## STILLS FROM BAGA BEACH

Vast freckled Englishwomen
Pylon-limbed
Thaw in the sun. Their breasts
Loll out like baby
Sealions.

* * *

Flabby leftovers of Valhalla
Diet on bread and bananas.
Their dozing blue eyes stroke
Small boys in torn
Pyjamas.

* * *

The German studies the Vedanta
In translation through chromax
Dark glasses, her oozing
Tattoo mobbed by
Bluebottles

* * *

The temple elephant, vermilion
Swastika on its domed
Forehead, lumbers
Unblinking over the buff
Sands.

- Manohar Shetty

## JIGSAW

Each has a place somewhere.
The random fragments dovetail.
Fang, forest, mane-
Come together in a frame.

Soon you've mastered this game.
Now your alert eye, your small,
Searching hand fits each
Piece with casual ease.

Soon this evening will cease.
Already the shadows tick
Over the floor, window bars
Imprison your face.

## WINTER PARTING

Do you remember walking on the Miramar beach?
In the red sunset of a Winter's day?
The sand was silvery and the waves were dark
You told me that you had to go away.

'Arvind' you said, and Aru! once again
You grasped my cold, cold hands within your own
Too tightly, but I did not feel the pain,
I could not think or speak,
My heart was stone.

How cold it was my love, how cold, how cold
In the long twilight when the Sun had fled!
The day was dying, the year was old.
Why have we wasted so much time? you said.

And now the summer trees are full of leaf,
The sea reflect the shining blue above.
But still I cannot put away my grief
Nor have I learned to live without your love.

**- Arvind Yalagi**